# मीनाक्षी




- डॉ. गौरीश कायूकिणी




कुळागर प्रकाशन

○ मीनाक्षी (कविता)
Meenakshi (Poems)

○ पयली आवृत्ती :
१९९५








○ मुद्रण :
कुळागर अक्षर मुद्रा
मडगांव

○ मोल : रू. २५/-

○ प्रकाशक :
चंद्रकांत केणी
कुळागर प्रकाशन
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

*(ह्या कविता संग्रहाच्या प्रकाशनाक गोवा कोंकणी अकादेमीचे लिप्यंतर येवजणेखाला पालव मेळ्ळा.)*

○ मुखपृष्ठ : माविन कुंटे शिवरुद्रय्या

# दोन उतरां

'कवी विचारवादी, तत्वगिन्यानी, विज्ञानी वा शास्त्रज्ञ आसूंकूच जाय अशें ना. ताजे विचार काव्यात काव्य जावनच आकार घेवंक जाय.' अशें म्हणपी गौरीश कायकिणी हाजी कन्नड साहित्याचा मळार' विचारवंत लेखक म्हूण नामना जोडल्या. तांणी गीतरूपकां, जीवन चरित्रां, रेडिया नाटकां, व्यक्तिचित्रां, साहित्य, संस्कृती, राजकारण आनी साहित्य समीक्षेचेर लेख बरयल्यात. हिंदी, मराठी, इंग्रजींतलीं बरीं पुस्तकां अणकारल्यांत. कन्नड, मराठी, कोंकणी, इंग्रजींत सरळ - सोबीत पुस्तकां बरयल्यांत.

आयज ८३ वर्सां पिरायेचे गौरीशबाब आदल्याच दमान पूण अणभवी नदरेन बरयतात. तांचें मुळावें शिक्षण गोकर्ण - कुमठा जालें. उपरांत दोन वर्सां तांणी धारवाडांत कॉलेज शिक्षण घेतलें. १९३७ गोकर्णांत शिक्षक म्हूण रूजू जावन, कांय काळ शेजारच्या बंकिकोड्ल गांवांत, उपरांत आनी गोकर्णांत हायस्कूल शिक्षक जावन १९७६ मेरेन विद्यादान करून, 'आदर्श सहाय्यक शिक्षक' (१९७३) पुरस्कार जोडून निवृत्त जाले. गौरीश आनी दि. सु. रं. एक्कुंडी हांणी गोकर्ण वाठारांत साहित्याची फूलबाग वाडयली, थंय फुलां फुल्लीं, परमळ्ळीं. गोकर्ण लागशिल्ल्या हनेहळ्ळी खेडेगांवांत गंगाधर चित्ताल, यशवंत चित्ताल, सुंदर नाडकर्णी, अरविंद नाडकर्णी, जयंत कायकिणी (गौरीशांचो पूत) असलीं सत्वशाली फुलां फुल्लीं. दिनकर देसाय, गौरीश कायकिणी, सु. रं. एक्कुंडी, बी. एच्. श्रीधर उत्तर कन्नड जिल्ल्याचे नामनेचे लेखक - कवी नवे पिळगेक प्रेरक शक्ती, आदर्श व्यक्ती जावन सोबले.

गौरीशबाबान सुरवातेक मराठी भक्तिगितां रचलीं. शांडिल्य महाराजाविशीं मराठींत भजनावळी बरयल्यो. ह्या शतकाच्या तिसऱ्या दसकासावन धरिल्ले लेखणेन तांणी कोंकणी, कन्नड, मराठी, इंग्रजींत मेळून साठांपरस चड पुस्तकां बरयल्यांत. तांचीं पुस्तकां केळकर प्रकाशन, नॅशनल बूक ट्रस्ट, कर्नाटक विद्यापीठ, साहित्य अकादेमी, कन्नड साहित्य परिशदेन प्रसिध्द केल्यांत. पांचव्या दसकांत 'बेळकु', सव्या दसकांत 'नागरिक' कन्नड साप्ताहिकाचे ते संपादक आसले. जिल्ल्याच्या नव-नव्या लेखकांक बरोवंक ताणी कुमक दिली. कर्नाटकाचे नामनेचे कवी, लेखक, कलाकारांच्या गौरव ग्रंथांत तांचे लेख आस्पावन घेतल्यात. दिनकरबाब देसाय हांचें 'जनसेवक' हप्ताळ्यांत मुखेल लेखक जावन सतरा वर्सां सेगीत टोपण नांवान राजकारण, साहित्य, कला - संस्कृतीविशीं तीन - तीन लेख बरोवन दिनकरबाबाले तोखणायेक पात्र जाल्यात.

कन्नड साहित्यांत गौरीश एक सव्यसाची, विचारवादी लेखक म्हूण सारस्वत प्रपंच तांकां वळखता. तांकां कसलोय विशय दिल्यार ते बरयतात, तितलेंच सोबीत भाशण करतात. तांणी आपल्या परखड विचारान, मानवतावादान, प्रगतीशील

धोरणान, वैचारीक धनान कन्नड साहित्यांत मोलादीक भर घाल्या. देखून उत्तर कन्नड जिल्ह्याच्या कन्नड साहित्य सम्मेलनाचे तांकां अध्यक्षपद फावो जालें. तांच्या साहित्यीक वावराक १९९४ वर्सा कर्नाटक विद्यापीठान 'डॉक्टरेट' दिवन तांचो भौमान केलो.

गौरीशबाबाक आमची कोंकणी 'पणसाघरो, आंब्या फोडी, तांचे परस कोंकणी गोडी' दिसता. अद्वैताची एकमेवता. हृदय समन्वय एकात्मता, जिणेचो अर्थ नव्या गणितांत ते पळयतात. 'चुकना जावो' कवितेंत 'देव कसलो इत्ते? श्रध्देक दोळे आसो, सेवा चुकना जावो' अशें सांगून देव- धर्माच्या नांवान चलचे अंधश्रध्देक, अंध भक्तीचेर गौरीश चाबूक मारतात. 'नाका' ह्या चौपदीत 'भावाखातीर भांडनाका तर्का तुस्सु कांडनाका' म्हूण अर्थांत शब्दाची पाकळी सांडून, अर्थ पिसडून भावस्पश्ट नाशिल्ल्या तर्काचो कुंडो कांडून फायदो कितें म्हणून प्रस्न करतात.

'म्हज्यांतलो एक झू' कवितेंत कवी आपल्या अंतरंगांत बशिल्ले वेगवेगळे प्राण्याचे संकेत दिवन मनाचे विविधतायेचें दर्शन घडोवन निमाणें सांगतात: 'जगा जोखडाक हांव झुंपलां. म्हजे मानेर जूं, तरी म्हज्यांत एक झू' म्हणून मनशाचो चंचल सभाव अनावृत करतात. कवी मीनाक्षीक आपयता आनी सांगता 'पाळांच्या तेरा (रथा)र चड गो शाणे' म्हूण. नांव नाशिल्ल्या फुलाक कवी म्हणटा: 'उगड्यार पडिल्ले मूर्तीक पुजा पुनस्कार, मुर्तीच्या माथ्यार तूंच चडका न्हय तर धुळींत पडका, म्हणून शिटकावणी दिता. 'पांखरा, पांखरा' कवितेंत फुलां - फुलांक उडून वचपी पांखरा - भोवऱ्याक संकेत करीत जिणेचें सत्य सांगता. तांकां सृश्ट नित्य नवीन दिसता जाल्यार तोळंभटा ताळ्यांत लाडू अडकून भट अमर जाल्लो विनोदय ते सांगतात. गौरीशबाब जिणेच्या पक्व अनुभवांत जिणेचो अर्थ सोदतात, अर्थ लायतात, अनर्थ पळोवन शिटकावणी दितात. निस्वार्थाची भूमिका घेतात.

गौरीशबाबाचें वट्ट साहित्य नियाळ्ळ्यार तातूंत जिणेचो आशावाद, अंध विश्वसाआड आवाज, कला संस्कृतीचें जतन, जात - कात, धर्म भाशेच्यो शिमो हुपून भारतीय एकवट सादपाचो तांचो उमाळो, वैचारिक फाटभुंयेर वैज्ञानिक सत्य राबोवपाची तांची मनीशा, हास्यभरीत शैलींत जिणेचें भाश्य करपाची गडगंज तांक दिसून येता.

गौरीशाचें गद्य काव्यगंधी, प्रासबंधी आसता. कांय खेपे तांचें काव्य विनाकारण प्रासाचे त्रास पेलता अशेंय दिसता. तांणी कोंकणींत दोनशीं - तीनशीं कविता बरयल्यात. तातूंत कांय वेंचीक कविता ह्या 'मीनाक्षी' झेल्यांत उजवाडा हाडटना आमकां खोस भोगता.

गोवा कोंकणी अकादेमीन लिप्यंतर येवजणेखाला ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाक अर्थीक मदत दिवन आमकां उपकारांत दवरल्यात. तांचे हांव आभार मानतां.

**- एस्. एम्. कृष्णराव**

# अनुक्रमणिका

# समर्पण

सुरूप सुशील सुविद्य,
मुग्ध आनी स्निग्ध
आमगेली मोगाची सून

चि. सौ. स्मिता
हिका
ही मगेली प्रेमाची
खूण

- गौरीश
(पपा)

# आमगेल भास

आमगेल भास कोंकणी
मारूं शक्तवे कुणीपुणी?

दिसच्या वरटु
जिब्बेक गोमटो
        फणस गोड कोंकणी!
भायल्यान घट्टी
अमृत फट्टी
        कोवळो नार्लु कोंकणी!
दर्या दौलत
धर्ता गाबीत
        रूप्या मासळी कोंकणी!
नाग भुलता
नागवेणी माळता
        कांटयांत कवासो कोंकणी!
खाल्यारि खुलतात
पिल्यारि डुलतात
        ताजी काजू कोंकणी!
समुद्रा पाळां
पिकोन फुल्लां
        वेचिल्लें मीठ कोंकणी!
देवा पुत्रु
क्रिस्ताणांतु
        उलैता मोगान कोंकणी!
ज्ञानदेवाने
शिकैले शाणे
        भगवंताक कोंकणी!
जगा धांदलीत हिगेलो ध्यासु
काळखांत वतना वोंवळां वासु
आवैने भरेयला दुधा घांसु
        मना हव्यासु कोंकणी!
        जीवा उगंडासु चिंतामणी!

# मगेली कोंकणी मोगाची

मगेली कोंकणी मोगाची
कितें गांवू तोखणाय तिची
श्रीकृष्णाची वैखरी
कोंकणीत उलैता ज्ञानेश्वरी
स्टीफन पाद्र्याने शिकैली बरी
क्रिसाक "लिंग्वा कानरी"!
फिरंगी फडाव फोडनारे आंग्रे
हिचेच कुळावी आरमारा वांगडे
परशुरामागेली मानस कन्या
"शापादपि शरादपि" - धन्या!

दोर्के भानप शेणवी
भाटकार माटकार कुणबी
सोनार शिंपी खार्वी
वाणी वारकरी न्हावी
उसळी खायिरे, मासळी खायिरे
सार पियिरे, सोरो पियिरे
असोत दर्जी, होवोत बाबर्जी
वाचोत पुराण, वाचोत कुरान
इगर्जी दर्गा मंगेशीदुर्गा
खंयी पुजोत कशी सजोत
सर्वांचि आम्मी भावंड गुणी

# आमची आवय कोंकणी!

कोंकणी भाषेचे जैत
भावैक्याचे अद्‌वैत
गायिले शेणै गोंयबाबान खास
तो एक कोंकणी व्यास
आमच्यांत परत केन्ना येतलो बा?
तोचि माक्का एक ध्यास!

बाकीबाब बोरकार
रवि पंडित कविवर
मनोहर सरदेसाय
कोंकणीचे रत्नत्रय
जोवर जगांत हांची गजाल
तोवर कोंकणीक कोणाची मजाल!

कोमल तीव्र - शुध्द
मंद्र- तार श्रुतिबध्द
एकचि लयांत मध्यम
गावूं दिलबहार सरगम
शारदे वीणे - वाणी
आमगेली कोंकणी वाणी

फणसा घरो आंब्या फोडी
तांच्या पेक्षा कोंकणी गोडी!
काजू बेवडा फेणी ताडी
कोंकणी चवेक तांची ना गोडी

मगेली कोंकणी मोग्गाची
कितें गावूं तोखणाय तिची?

# पंचकदायी

पंचतत्वां खेळूं
कर्ता परब्रह्मू
पंचप्राणां मेळूं
जीवना संभ्रमु
पंचेंद्रियां भाग्य
आत्म्याचो आनंदु
पंचकदायी गोडी
कोंकणी प्रसादु!

* * *

पंचबाण फुल्ले
कामा चिक्लांतून
पंचलोहा मूर्ती
ना थंड - ना हून!
पंचायतन खरें -
भाषेचो हो बोधु
पंचकदायी गोडी
कोंकणी प्रसादु

* * *

पंचारती ओवाळता
भूंयिंक आभाळ
पंचांग उल्लैता
आयुष्याचे फळ
पंच कोशातूनि
विकासाचो वेधु
पंचकदायी गोडी
कोंकणी प्रसादु!

* * *

पंचवाद्य राष्ट्रा देवळांत
        वाजता - गाजताति
पंचरंगी भाषेपोपट
        विविधभारती!
पांचमुखी परमेश्वरू
        दित्ता आशीर्वादु
पंचकदायी गोडी
        कोंकणी प्रसादु
पंचामृत अभिषेकु
        "समवाय एव साधु" *

** अशोक चक्राच्या स्तंभारि बरैलेल्या शिलालेखांतली घोषणा.*

# देवालो शोधु

देवुळ होडलें पोळोनु
पत्र्यो फुल्लां मेळोनु
देवापुजे खातिर
गेल्लो देवळा भित्तर
थंयि सोवळ्या सैतानु
घालतालो भारी थैमानु
भक्तिचो मांडलो बाजारू
पुण्य पैशाक पंच्छेरू!

भोळ्या भाबड्या भावांचे
डोळे बाधून नित्याचे
बळजबरीचे बलिदान
कोवळ्या काळजा शिर्काण!
देवा नांवार रात्रंदिन
* * *
देव मेल्लो देवळांतलो
(पैलें तरी खंयिं आशिल्लो?)
मना पटली ही खूण
भट्टां पोट्टं भेत्तून
भायर पडका नरसिंहु
खंयिं बा तो प्रल्हादु
म्हाल - गड्यांक कोरूं बोधू?
किळस आयली कंटाळलो
देवळांतून भायर पळ्ळों

* * *

जिवा जडली बेहोषी
देवा सोदचे खंय, कश्शी?
* * *
रस्तो झाडता भंगी
आंगर घडना अंगी

देवळात समराध्ना
भुकेक पाप बाध्ना!
दीड दिडिके हमाली
कर्ता रेल्वे रूळारि
फाटिक पोट लागिल्लो कुली
रस्त्या क्रोसारि तो बळी!

आणि ताजी बायल चेरडूं
देवालागि यतात रडूं
पायरेर मात्ते फोडूं!
* * *
देव फुल्लो झाडार
खेळ्ळो आवये कडेर
उत्सवा घामाघूम चोय
पालकी व्हांवता देव - भोय!
देव घोळता शेतांत
खटार ताणता वत्तांत
देव व्हांवता डोळ्यांत
देव दाटता गळ्यांत
जीवाजीव भेटलो
थयिंच देव प्रगटलो!

# बंध आणि मोक्षु

पाळांचो पाशु सुटल्यारि
झाडाक न्हय ती मुक्ति
हातातली दोरी तुटल्यारि
पतंगाक खंची शक्ति?
तालाचे बंधन नासल्यारि
गायन कसल्याक करचें?
काळाचें बंधन नाशिल्ल्या
कामाक कौतुक खंचे?
दोळ्यां पापण्यों धांपता धांपता
नजर साफ दिसता
विरामचिन्ह घालतां घालतां
वाक्या विस्तार घडता
भुयीं आकर्षणाने न्हय वे
उंच उडता गरूडु?
आवयलें बोट धोर्नु घट्टी
जत्रेत फिरता चेरडुं
डावें पावूल माक्षि पडचें
उजवे चलच्याक पुढे
जगांत खंयीं फिरचे अखेर
येवच्याक घराकडे!
पिकले बावलें झडले तरीच
झाडाक ताजी पालवी
थंडिचे दिवस भोगल्याशिवाय
वसंता फेरी ना नवी!
दोन्ही तडयो घट्ट धोर्नु
व्हाळाक जोरू भारी
दार खिडक्यो दवर्च्याक उघड्यो
बांधतात वणत्यो चारी!
काळखा मळबांत नक्षत्रांची
दीपाराधना गोमटी
वत्तांत वतल्याक सावळी गोडी

वक्कद विषाची चिमटी
वज्रा गुण येवंका जाल्यार
तशेच घट्टपण जाय
नसता खरे दिसूं बरे
फालसाक फट्टपण खंय?
मरणा मर्याद नाजाल्यारि
जीवना ना अर्थु
कृष्ण नासता सारथ्याक
जिंकिल्लो केन्ना पार्थु

# प्रयोजन

समुद्र उसळता पाळां उधळता
पुनवे पुळको छाती भोर्नु-
गलबतां दिवच्याकवे वाट कोर्नु?

मोडियाळे मोड पर्वत पोट्टोळ्नु
पावसांत विरघळता -
तें पिकोंच्यांव शेतां?
एकमेकां वेधून स्पुरतात तेजाळ
ग्रहगोळ आकाशांत -
ते जमच्या कवे जातकांत?

जागत्या जिव्हाळ्याक
जुळनु जळनु
झळकता हें जीवन
ताका ना जड प्रयोजन!

## नवें अंकगणित

अंकारि दवल्यारि अंक
संख्या वाढता नि:शंक
        गणित शास्त्र हें गुणिले भागिले
        तरी व्यवहारी अपूर्णांक
लोकांक विषय वाकडो
अक्कल शिकैता आकडो!
        लोकाक ना हो लेकाचारू
        भारी डोंबरा खेळु
अक्षर विद्या पूर्णांकांची
वेगळोचि तो मेळु
        एकांक एक मेळ्ळे तरी
        एकचि बा, ना दोन
अव्दैताची एकमेवता
हृदय समन्वय एकात्मता
हे नवें गणित एकमान!

## उजवाडु

इत्तें सानु इत्ते होडु
उजवाडु सर्वचि एक
कीटी पेटता कळी फुलता
जित्या जीवनाक
होडु उजवाडु डोळ्यां पाडु-
तोपता चाकूचें टोक
सानु उजवाडु गोमटो गोडु
करूणे किरणा फेंक
घट्टी - मोव्वु हून - थंड
समधातूचें जिणें
निष्कलंक पंचलोह
केन्नाय ताका ना उणें
न्हय कणु, न्हय क्षणु
गुणशक्ति ना वस्तु
"तेजस्वी नावधीतव्य मस्तु"!

# कळल्या?.. पळैल्या?

न फुलतली वाली
न जळतली वाती
दूकि नाशिल्ली खुशी
(उपासु चुकिल्ली व्दादशी!)
विश्वास नात्तिल्लो श्वासु
तोंडांत न धरचो घांसु
        कोणे बा पळैल्या?
रितें जावच्याकचि
        भरता मळब
उज्यां रापु गोबरात गडप
कळी फुलता पांवच्याक बावप
दिवसा दिमाखु काळखांत लोप
        कोणाक बा कळल्यां?

# आत्मा अविनाशी

"लाडू! लाडू! लाडू!
भटो कितले वाडूं?"

"माका दोन अन् हाका एक!"
"नाका रे बाबा, शकना गिळूंक!
आतांचि खाल्ले सा- सात
परान्न प्राण संकट!
तू दीडशाणो बाळंभट!"

"अरे, मूर्ख, तोळं भटा
प्राणापर्वा कसली करता
आत्मा आमगेलो अविनाशी!
ताका संकट खंचे कशी?
प्राण मेळतात जन्मोजन्मी
परान्न मेळचें भाग्य कम्मी!
- घाल रे ताका दोन लाडू"
बाळंभटा आग्रह होडु

तोळंभटा ताळयांत लांडु अडकलो
भरल्या ताटारि भट अमर जाल्लो!

# कसलें? - इत्ते?

राग खंचो - कसलो?
सूर शुध्द आस्सो
लय चुक ना जावो!

पद कसलें - इत्तें?
बंध स्पष्ट आस्सो
भाव चुक ना जावो।
काव्य खंचे - कसले?
रस मुळात आस्सो
औचित्य चुकना जावो!
भास कसली - कित्तें?
अर्थ खचित आस्सो
मर्म चुकना जावो!

विद्या कसली - इत्तें?
गुरू सिध्द आस्सो
गौरव चुकना जावो!
वैरी कोण - कसलो?
वृत्ति वीर आस्सो
न्याय चुकना जावो।

यात्रा कसली - खंयि?
गति सरळ आस्सो
धृति चुकना जावो!
देव कसलो - इत्ते?
श्रध्देक डोळे आस्सो
सेवा चुकना जावो!
राज्य कसलें - इत्तें?
व्यक्ति मुक्त आस्सो
युक्ति चुकना जावो!

सत्य कसलें - इत्तें?
प्रज्ञा तीव्र आस्सो
प्रतिज्ञा चुकना जावो!

## महागणपति

काळोका कोळुंदूरू निपलो
        पृथ्वी पोटा मुळांतु
वर्तमान काळसर्पु
        भूता फाटल्या बिळांतु
दिग्गज मुख महागणपति
        चढलो अंतराळांतु

तोंड विजेचे वांकडे ताज्रें
        धूम्रवर्ण लंबोदरू
"महाहस्ती दक्षिणेन"
    इंद्रु तौ उदारू

ऋध्दि - सिध्दी ताज्यामित्तिं
        तुंदिल विश्वंभरू
लोकांसमस्ता मोदक हस्तु
        वाङमन पर वस्तु
विश्वनियंता पाशां कुशधरु
        आमकां शुभमस्तु!
हिरण्य गर्भू सिंधूर वर्णु
        विघ्ना वार्ता आयकूं म्होणु
जल्लो शूर्प कर्णु
        गणगोतांचो तोचि अधिपति
तेजोमय परिपूर्णु
        नायकु वातावरणा
        चंद्राक ताका बरें ना!
कर्ता - हर्ता - भर्ता - धर्ता
        सर्वासि तो हेरंबु
तोचि जगादिस्तंभु!
        ताज्याने कार्यारंभु
        अभय वरद शंभू!

## प्रतीक

बाळ पाळण्यांत खेळता
नजर आभाळांत खिळता
नक्षत्र दोळ्यांत झिळमिळता
बाळाक  खुणैता

प्राये पोरं तरनीं
धांवतात हांगा थंयिं
तांका दिसना भूयीं
बागेत दृष्टी फुलता
मुखारि फूल हांसता

म्हांतारो चलता रस्त्यार
हात धोर्नु कुर्टार
फाटी कमान मुखार
दोळे चोयतात फातर

आमच्या चेर्डपणाक - नक्षत्र
तारूण्याक - फुल्लं सर्वत्र
म्हातारपणाक फातर
अनादीचे प्रतीक
जिणेच्या तीन अवस्थांक

(* 'पुण्य प्रभाव' नाटक पळोवन)

# हितगुज

वोंवाळांक ना रंगु
पोवळ्यांक ना वास
मावळ्या पैलें आवसु
पावळ्यां माक्षीं पावसु

आवळ्या रूचि तुरट
उदकाक ना स्वाद
आवळो खाल्या जिभेक
उदाक भारी गोड!

गुणाक दोष छाया
सुख, दुःखाचि प्रतिक्रिया

म्होवांक मेणा माल्लें
मोहाक माये पाळ्ळें!

# नाका

शब्दां पाकळ्यो सांडनाका
अर्था पिसडून मांडनाका
भावा खातिर भांडनाका
तर्का तुस्सु कांडनाका!

# चारि उत्रां

दुकीक दूक मारता
तेंचि जीव सुख मानता!

वज्र तेजा खाण
जाल्यारि घट्ट पाषाण!

धांपता गोमटेपण
कितलेहि दुर्गुण!

ज्वालामुखी तोंडाक
पोल्टीस कसलें कोरच्याक?

चंद्रासवली सूर्याक भोंवली
पृथ्वीक तीच पर्वणि पावली!

सावकारा घरा मुखारि
भिकाऱ्याक जळता भिकारी!

## जाणीव

रूकाक गोत्ना रान
        तो जाण पान
अंश नेणं पूर्ण:
        कळना आपण कोण.

दोळ्याक दिसना दोळो
        दिसच्या धोर्का आरसो
मज्या लोप दोषां खूण
        तुज्या चेहऱ्यार हांसो!

अनेकांत एकु पोळोंचो विवेकु
        हांव ना मज्यांतु;
लोकांक मजो अर्थु
        त्यागाक जाय स्वार्थु!
समाजांत हांव व्यक्ति
एकांतांत ना मुक्ति!

# मज्यांतलो एक 'झू'

जगाराहाटगाडे ताणता
        माज्या मानेर तूं
आनी मज्यांत एक झू!

मनामुळ्ळ्यांत माज्जर बसल्यां
वाघा दोळे वटारता पळे!
लाल दाडे लाल नबाडें
मांसखंड दोळ्याने गिळता
पंजो मारच्या पुढें!

आनी काळींग फणो उभार्ता
काळजाक वेंटो सुरळीत
ताजोच फुत्कार कृष्ण वाजेता
मात्यार नांचूक मुरलींत!
छातीत कोल्लो पोट्टांत लांडगो
दोळ्यांत दुरदुर हपगुडगो

मात्यांत नाचता माकड
बेंबें करता बोकड
आंतड्यात फिरता सिसडर
फाटी कण्याक अजगर

डुकरा चाम करडे रोम
उत्रांत पोपटपंची
जिराफेमान गाढवा कान
चाल उंटाची - जगा वाळवंटाची !

बगलेंत बसल्या कांगरू
आशे पिला पोट्टोळ्नु
        हांचो विसर माका पडला
नंदि बैल हांव सजला
जगाजोखडांक हांव झुंपला
माज्या मानेर तूं
तरी मज्यांत एक "झू ऽऽ"!

# प्रेम - काम

प्रेम न्हय मस्ती
न्हय जबरदस्ती
न्हय बा जुलुमे दोस्ती
काळखा सांगात कुस्ती
मनशाची नालस्ती
कोण कमी कोण जास्ती ?

प्रेम दिवूंक जाण
घेवचे कामा धोरण
    हांव हावरेपण
    प्रेमाक ताज्ञीच वाण

मोहकामा खूण
    सतत ताज्ञो सोसु
प्रेमाक एकच त्राण
    दृढविश्वासु

प्रेम निरभिमान
कामाक लोभा ध्यान
प्रेम हृदय - दान
त्याग ताज्जो प्राण!



# हुरहूर

वोच्चूं कशशी नदीपार
पैलतडीरि आयकू येत रे
कृष्णा तुज्जी पुकार
गोड गोड ललकार!

सख्या तुज्या विना
झुरता मरता
नावरता मन बावरता
व्हरा माका त्या तीरा
कोणी करा हो त्वरा!

गुंग जाल्यो गोपि - गाय्यो
रंगल्यो ह्यो रान - राय्यो
नादब्रह्मांत न्हाल्यो न्हय्यो
गाढ गोड हुरहूर
कोणी करा उपकार

तू थंयि, आनी हांव हांगा
भेटूं कशशी रे श्रीरंगा?
        वैरीण ठरली ही यमुना
        धांवारे कुणी द्या करूणा!
वोच्चें कशशी नदीपार?

## प्रतीक्षा

खंयि चोवूं केन्ना
गोमटो मोग्गा कान्हा
 अंग अंग अंतरंग
 धर्ता ध्यासु - तोचि सोसू
 जींवा पुन्हा पुन्हा!
 - खंयि चोवूं....
सोप्नांत नाचता तेंचि रूप
डोळ्यां दिवल्यांत तोचि दीप
 हाय रे कृष्णा
 तूं मृगतृष्णा?
मृग हे कासावीस
देहादाह रात्रंदिवस!

श्रीरंगु हृदयरंगु
चोण्णु नांता थैथै चांगु
 आंतड्याची तांत तांत
 जुमजुमता सरगमांत
धमनि धम नि
मृदंग ध्वनि
 पांचही इंद्रिये केल्ली डोळे
 डोळे पंचप्राण जाल्ले

जन्मो जन्मी पळैली वाट
तरी कश्शी ना अजुनी भेट?
 खंयिं चोवू केन्ना
 गोमटो मोग्गा कान्हा?

# युमने तीरारी

यो गो सखे यो गो

फुल्लयाति साळकां
पुळणांक पुळकां
  दुधाचे चांदणे
  पित्ताति चांदण्यो

यमुना तीरारी
कुंज विहारी
  रासलीलेक
  आपैता, आयक!
    - यो गो सखे...

चांपी मोगरे
जायी जुयी गजरे
  धुंद मंद व्हांवता
  ताज्याने वारें!
हिरवळ दरवळता
  भारी घमघम!
कांकणां किण् किण
  पावलां रूमझुम
    - यो गो सखे....

वाजली मुरली
सुद बुध नुरली
मज्ज्यांत मुरली
आशा ही एक

यमुना तीरारी
कुंज विहारी
  रासलिलेक
आपैता, आयक!
    - यो गो सखे......

# धांवो

चिरकरूणा कामधेनु-
तुजे चरणांबुज रेणू!
तुजो वदनांबुज वेणू!
भजक हृदय मधु मिलिंदु
कुजन कुला कलिपुलिंदु

हे मुकुंद! गोऽविंद!
धांव पाव येत्नु!
- चिरकरुणा.....

# दर्या दौलत

शुक्राचो तारो
सांजचो वारो
    हाडता त्या वेळेरि
    वल्या रूप्या वेळेरि
दर्यादौलत
होडी धोलत, धोलत
    बगळे आपैतात
    पाळां लोळतात, पळतात
        थंयि थै थै हाल्नु
        भिजले सुकाणू

चंद्रोटी मोरी
सौंदाळे तुरी
    मत्स्यावतारी
    देव जणूं

हे बदिक भारी
ना आदि अखेरी
धरली वाट बरी
वेंचून - वांचून!

## मीनाक्षी

डोळ्या उदका व्हाळु
मीनाक्षी तू पोव्नु
आयली मज्या कवेंतु
प्रेमाजाळे पसरोनु
  घेतलीं उल्लोळ्नु

चांदण्याचें जाळें
चंद्र बंदी पळे
माका तुजे डोळे
  जाल्ले 'रंपणी'!
पुढ्याने समिंदर
माक्षाने कुळार
  पाळांच्या 'तेरा'र
  चढ गो शाणे!

काळो निळो आकाश
फुलैता प्रकाश
तुषारां सेस
  माळनु घे राणी
सोडूं स्वप्नाशीड
दिगंता पैलाड
गात वच्यां वांगड - मंगल गाणी

# तीरार आमचे तारूं

निळे आकाश समिंदर
झळके तारे ताज्या भित्तर
सूर्याने उडैलें किरणांजाळे
तांतु अडकले एक मात्र
झळकेंत्र शुक्रानक्षत्र!

होडी हालता डौलात
व्हाव्नु हाडता दौलत
रुप्याची रास
किंनार भर वास
वर्दी आसपास
गर्दी छकास!

बगळ्यांची खिलखिल
पाळांची खळबळ
पोरांची धांदल
लोकांची धांवपळ
वाऱ्यामाऱ्याक शीड कवळ्ळें
आनी ल्हान तूफान खवळ्ळें!

भिजली डोलकाटी तग्गूवैर वाऱ्याने
खडपां आधळने, राखलें देवाने
होडी आयली कापीत उदाक
मजेंत पोंवत - तळ्यांत बदक!

नशीब आमचें सिकंदर
दादले आमचे बिलंदर!

इसवण तार्ले
नगले कुर्ले
तांबूसे बांगडे
- मोरी बांगडे
मासळी वेळेर उतरली
पोरं बाळं हुरळलीं!

बिनधोक हाळ्ळें
तीराक आमचें तारूं
मनुल्या उध्दाराक
मत्स्यावतारू

# मोग

मज्या मोगा मोगरें
पोल्ले गोळ फुगेर
हासता घमघमीत
वांल्लीच्या हाड्डीरी
कळा ती चेड्डाली
दिसता टवटवीत

फुलाक हात लावनाका
आवसू कडेर बाळ खेळका
दोळ्यां पारणें पोळोन फिटका
बाळ नांदो आवये खांद्यार
फूल नाचो वाल्ली फांदेर
योगायोग नजरे भोग
मरो मोगऱ्याक मारचो मोग!

# नाव नात्तिल्या फुला!

कुंपणा पेल्यान
पाना पुंज्या वैल्यान
नाव नात्तिल्या फुला,
कोणाखातीर हासता?
मान बग्गून, गाल गोल फुग्गोन
   झाडा माक्षी निपता!
दोळे भर रंगु
वास ना हुंगू
   बारीक नाजूक कांपता!

उघड्यारि पडली मूर्ती
पूजा पुणस्कार नसतां
   ताज्या मात्यारि तूंच चढका
न्हय तर धूळींत पडका
वाट पोळोंका कसली कितली!
   उदास उसास सोडका.

# शिगम्याचे दिवस

शिगम्याचे दिवस
गाल भोर्नु हास
लाजैता अमास पुनवेक!

पोह्ले तुज्जे फुगरे
मज्या मोग्गा मोगरें
खंयिं शिकली नखरे?
दाकैता कोणाक?

वट लाल पोंवळी
विडो कसल्याक मुळीं?
गाह्लांत गोड खळी
इत्पुणि नाजूक!
हळद कुंकवा थाटु
कवासा घमघमाटु
शिगम्या संभ्रमांतु
यो गो नाचूक!

## शिगम्यांतली चल्ली

झुंझार कोंबो नवो ऽ धवो ऽ
चरता चांदण्या दाणे
आभाळा माग्दरांत डौलाने

मळबाच्या मांटवांतु
शोभता हो हो रे तु
होक्कल खंय गेल्ली,
        कोण जाणे?

आकाशा आंगणांतु
चांदलेल्या चांदण्यांतु
शेडीचें सारप भो चांग

तुका पोळोन लाजलें
चौंच्याक ना धजलें
माडाआड घुसलें
        चंद्रा सोंग!
पागारां फात्रांक रूप्या मुलाम
आबोलीचे घोस तुज्या छातीक सम
शिगम्यांचे दिवस
तोंड भोर्नु हास
        चैत्राची पुनऽव
        वता मनांत
हेर्द्यांत पेटली
कामाची होळी
मोगाची चल्ली
        शिगम्या मजेंत!
कोणा नांव सांगता
        केवडो कानांत?

## पांखरा! पांखरा!

पांखरा! पांखरा!
    उडलो की तू
तिळमात्र माया ना
    कश्शी तुज्यां तू?
अरे, परंतु
    तू एक जड जंतू!

हांव ही भोळी
काळी कोवळी कळी
या बागे कोपर्यांत
मोकळी एकळी
    कोणाक ना दिसली
    तुका चोव्नु हासली
        आनी, हायरे फसली!
        प्रीती रीत असली
गुंय गुंय करीत भोंवरो, बेगी
तू आयलो लाग्गी

रंगबिरंगी गोमटो
(चित्त चोर्तलो भामटो!)
    हांव कळी पिश्शी
    तुजेरि बेफाम खुषी
    तुज्या मनांत अशी -
    "विनि, विडि, विशि!"
पाकळी पाकळी खुल्ली
तुज्या मोग्गाने भुल्ली
अंग अंग फुल्ली
    तुगेल्या मिठींत पडली
    हाय रे! जिणेभर रडली
रडण्यांत सुध्दां सुख
पतंगाक दिव्या भूक!
सर्वस्व माका लुटलें
कपाळ मज्जें फुटलें!
तू ताज्या फुलाक उडलो
मगेलो सूर्य बुडलो!

## नवें नवें

"नवें नवें आंगार धवें"
आंगाभितरि न्हय वे?
　　खंयि केन्नायि शुभ्र
　　नवें शुभ - निरभ्र

कालचें 'पेपर' आज रद्दी
आज खाल्लेंले फाल्यां लद्दी
　　ताजें तेज स्वतः सिध्दि
　　पोर्नें सर्वचि बुर्नास
　　नव्याक म्हणा 'शाभास'!

सुकिलें पान झडता
पिक्किलें फळ सडता
　　सृष्टि नित्य नवीन
　　कालच्याक आजि ना स्थान
निसर्गाक नव्यान प्राण
आमकां? मेल्लेलेंच पुराण



# खातलो कोण?

"भिके शितांत कावळो हागलो"
म्हणताली मगेली मावशी
कापसा राशीरि मूस भागलो
शित म्होंणु बसलो उपाशी!

कोणा तोंडांत कोणालो घांस
सीते निमित्त समुद्राक त्रास
दाण्यादाण्यार बरैता देव
खाणाऱ्यागेलें खरें नांव!

# सोयरिक

पावसा चिखलांत गांयडोळ लांब
दिवडाक पोळोन म्हणता 'थांब!'
"आम्मी तुम्मी हैंरू बरें
कसल्याक जाव्नेय सोयिरे?
तुजी चेल्ली मज्या चल्याक
हाडका म्हणता - कोर्यां सोयरिक"

दिवडा दोळ्याक गांयडोळ दिसलो
वळवळ ताज्रो पोळोन हासलो
"होय बा तूं होय आमचिगेलो!
माका जायित जांवई चल्लो तुगेलो
    जाल्यारि, सरो ही पावसाडि
    नंतर धोरूं लग्नाघडि -
    तावळि भेटयां, येत्ता, रामराम!"
गांयडोळ थैंसर पावलो परंधाम!

## गापत्त्या - गोरूं

गापत्याक कित्याक गोरूं
भट्टा कित्याक तारूं
    म्हणता वाण्या पोरू
    तोहि पक्का चोरू!

गापत्याच्या बुर्ग्याक दूर
मुंबईक भटा धूव
गोरूं - तारूं जांवका
एकमेका पांवका

कृष्णाने घोडे धुल्ले
द्रोणाने सेनापत्य केल्लें
अर्जुन नाचु शिकेतालो
हरिश्चंद्र मसणोटि राखतालो!

पेशवाई गाजैली भटाने
कौशिक ब्रम्हर्षि हटाने
व्याधु बनलो वाल्मीकी
जिण्यांत जिव्हाळो - एकमेकी!

## शुभदृष्टि

"होक्कल बाय सक्कल चोय"
म्हणता पूर्विलि आज्ञी
सक्कल चोव्नु कोर्चे कित्तें
पायां बोट्टां मोजचीं?

झुकिल्ले मानेरि जूं न्हावचें
घर गृहस्थी घाणी - गाडी
मरेपर्यंत चढाओढी
घोवापायांर पोडचीं रूढी!

"सकल चोयना, मान उंचाव्नु
घोवा चोयता दोळे भोर्नु
अंतःपटा पेल्यान आस्स, -
माक्काचि चोंवची धोर्नु आस
नजरे नजर जुळका
जन्मा ओळख मेळका!

एकमेकांच्या निढळारि
आमगेलि भाग्यारेखा
निरखून पारखून घेतल्यारि
हृदयांत ताजो शिक्का!

सक्कल चोंवचें नाक्का
अक्कल ओळखून सिक्का
सात पावलां लेख्खा
शुभदृष्टि ती माक्का

# आंबाड्या रूका

"आंबाड्या रूका,
कुमटे तेराक
उट्टा, यो वच्यां, आतां!"

"हांव येना बापडी
नेसूं ना साडी!
उघड्यान कशे येवूं गे, नाता?"

"आंबाड्याच्या रूका
अंकोल्या भांडीक
उट्टा, यो वच्यां आत्तां!"

"कशी पडूं भायर
आंगभर पोरं तोरं
मगेलो कळश हांगाच गे बसता!"

## कवीक घेरावो!

काव्य ब्रम्ह हो खंत कपाळारि
स्वतःचो लेखु बरैता भारी
तो वाचण्यांत तागेली सरस्वती व्यर्थ
ना भाव, ना भास, ना अर्थ - स्वार्थ!

काव्य दुरुह
वाक्कण? दुर्व्यूह -
वाचकां विरूध्द!
रसिकांचेर युध्द
गचांडि धोर्नु विचारका
तागेले काव्य ताका चारका
    केल्लेलें कर्म खावो
    कवीक घेरावो!....

रोचक रेचक - सर्वचि पाचक
    म्हणता हो नव्य कवि
    भित्ता ताका रवि!
हाज्या बीगाक ना चावी!
हाज्ञी बटींक वाग्देवी!

रसिका ही एक सिसारी
काव्या तळ्यांत ही शिसऽरि!
रसयज्ञांक हें हवन
छापिलेमित्तिं हे कवन!

मसणोटि भर
शंभर शंभर
फुल्लां फुलैता मावो
कवीक घेरावो!...

श्लेष विश्लेष
अश्लील अवशेष
लक्षण ना लेश; पावसु आश्लेष!

वृत्तवर्णमात्रा -
तांची ना जात्रा
    ना छंद ना बंध
    धांवता अंदाधुंद
    आयकू जावका आडदांड
कविं लोकांतलो खजुराहो
कवीक घेरावो!....

आनी कसलो अनुमान, येया
नाका मुळीं दया - माया
    कविता फाइनु
    हातांत दीवनुं
तिज्रो अर्थ विचार्‍यां
ह्या असंबध्दा चार्‍या!
    तो कसलें सांगता मात्ती?
    बेजार ताज्येन्मिति!
खरबी हटावो!
कवीक घेरावो!...

# बेताळ आनी विक्रम

बेताळा खांद्यार विक्रम!
हो नवो अनुक्रम!

बेताळ पोर्नो बुजुर्गो
ताज्येर विक्रम - बुर्गो!

बेताळापेक्षा बुर्ग्यामान उंच
ताज्या नजरेक लांबच पोंच
ताका दिसता दूरचो प्रपंच

बेताळ सारखो व्होड व्होड वाढता
तसो बुर्गो मळबांत वरवर चढता
    बेताळ चलता मुखार
    तरी ताज्ये दोळे मानेर!
बुर्ग्याक कौतुक संभ्रम
बुजुर्गो वाढता एकदम
    विक्रम घालता सवाल
    गपचिप चलता बेताळ

# पतिव्रता

"डॉक्टर, या!
जरा पळया
- हांगेली काय अवस्था? -
"हूं, सांगा कशी काय दिसता?
खरें ते सांगा, - आशा ना वांची?
अखेर आयली हांची?
- पुढची व्यवस्था!"

"अच्छा
देवाली इच्छा
तरी एक विचार्ता -
हे फाल्यायि उर्तात?
कीं रातीचि?...?

"चूक समजू नका, खरेंचि!
हांव गरीब लाचार बाय
आतांचि कोर्का लाकडां सोय!"

## वृंदा विलापु

हे कसलें केले रे देवा
दैत्यामारच्याक देवपण सोडलें
हे काय घाणेरडे कृत्य घडलें
तुज्याने - हायरे दैवा!

जळलें तुजें नांव भगवंता!
बामणा बायल नासली कशी तू आत्ता?
पतिव्रता जावनु हांव फसली!
काय नकली! काय असली!
पुण्य - पाप एकच भासलीं!
पतींत देव पोळैत जगलें
आनी तूच जलंदर जाव्नु मगेलें
हें देह भोगलें! -
- हाय लुटलें सगळें!
पुण्या उज्ञार शिजलो पापाचो पाक
आनि तोच पाळतात मगेल परब
सर्व लोक!

काय ही विटंबना!
देवा दात्ताने वंचना!
या वृंदेचेर बलात्कारू
देवाने केलो अत्याचार?
जगा कल्याणाखातिर!
भगवंतालो भ्रष्टाचारू!

पतिव्रतेगेली लाज लुटली
पतिरूपाने येव्नु ताळी तुटली
आनि तेंच तुळशीचें लग्न -
बामणा मारलें, बायलेक
कोर्नु नग्न!

पातिव्रत्याने पतिक मरण
दैत्या मारच्याक देवीलें शीळ हरण!
देव कार्य अधर्मा शरण!
आनी हें देवा हात्ता पाप, -
परबे आचरण!

## सूर्य - चंद्र

सूर्य चंद्र भेटले अचानक
आकाशांत एकमेकां
पुष्कळ दिवसां अनुभव सांगच्याक
हुक्कि आयिली तांका

"युगानुयुगे आम्मी दोग्गायि
घुंवतात भुयीं सुत्तू
आमगेली काणी आजथायि
आमकांयि ना पुरा गोत्तु!
भूप्रदक्षिणा रात्रं दिवस
आमगेली चलल्या विधीक विवश
कशि काय दिसली पृथ्वी सांग की!" -
सूर्य म्हणालो चंद्रा लागि

सांगू कसलें कपाळ!
नित्य एकचि परवड
जिवा सुटलो बेजार कंटाळ
काळका पडद्या आड
जगाचे रूप एकच -
काळे गोरे धुरकट रंग
ब्रह्माक बुध्दि कमी खरेंच
भूंयींचो देखावो भारि भणंग!"

चंद्राले उत्तर आयिकत
सूर्य उसळ्ळो चकित
"छे, छे, कसले हे कुभांड
बुध्दि कमी तुक्काचि
भलतें सोळ्ळें तोंड!"

"अण्णा कसलें हे भलतेंचि" -
"उगी राब, हांवै पळैत आयला
पृथ्वी प्रपंच कौतुक
काळे गोरे खंयि थंयि आसत्
पण, काय ते रंगां ऐश्वर्य!
हजार छाया, हजार छटा
सात वर्णां सौंदर्य!"

चंद्राक पटना सूर्यालो उध्दार
सूर्य मानना चंद्राले उत्तर
कोण खरो! कोण फट्टी
दोग्गायि हट्टी! दोग्गायि घट्टी!

हजारो वर्षे असोच प्रचंड
वाद माजला अंदाधुंद
आपापल्या सत्यांत आपण अंध
अनुभव घालता ज्ञानाक बंध!

# तिगेलें अय्येपण

जन्मांधाक उजवाडा सोपन
बालविधवेक दिसलें अय्येपण
आरशांतली मिठाई यौवन

"सद्गुरु वाचोन सांपडेना सोय!"
'म्हाराजा'ने म्होणचें आयकून
धरले तिणे पाय सद्गुरूचे
आनी तिजो पाय - खंयि पळ्ळो म्होंणचें?




